# काणयो- सैमाच्यो आनी मनशांच्यो

बरोवपी : सुधा खरंगटे





श्रीहरि प्रकाशन

# काणयो :

# सैमाच्यो आनी मनशांच्यो



बरोवपी

सुधा खरंगटे




श्री हरि प्रकाशन

KANYO: SAIMACHYO ANI MANSHANCHYO

काणयो : सैमाच्यो आनी मनशांच्यो

बरोवपी : **सुधा खरंगटे**

प्रकाशन क्र. १८



पयली उजवाडावणी : मे २००३

**उजवाडावपी:**
दीपा दिनकर [illegible]
श्री हरि प्रकाशन
[illegible]९/अ, शांतिनगर
आर्के-बायश, नावेली, गोंय ४०३ ७०७

अक्षर जुळणी
तत्वी ग्राफिक्स, मडगांव

छापणावळ
प्रिंटआर्ट ऑफसेट, कुडय

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां
वासू

मोल : २० रुपया

# भियेना ताका कोण कांय करिना

बीनू आजूय इश्कोलांतल्यान रडतूच आयलें. ताचे आवयक आतां ताची संवयूच जाल्या. आत्र्या पयऱ्यान बीनूक कोण तरी रडयताच ! आनी बीनू मागीर मम्मीक कागाळ सांगून रडटा.

''आज कितें जालें? कोणें मारलें गो?'' ताचे मम्मीन विचारलें.

''वाटेर बेबो आशिल्लो,'' हुडकेत्त बीनून सांगलें.

''मागीर? पावसाच्या दिसांनी बेबे आसतातूच.''

''पूण तो म्हाकाच पळेतालो आनी म्हाकाच खातां म्हणटालो....'' बीनून सांगलें.

''अशें कोणें सांगलें तुका? तूं एकलेंच आशिल्लें?'' मम्मीन विचारलें.

''म्हजेबरोबर रीतू, रीमा, सोनू, येशा सगलीं आशिल्लीं...''

''मागीर सगल्यांक सोडून तुकाच सो खावंक आयलो तो बेबो?''

''तीं म्हणूंक लागलीं, बेबो बीनूकच पळयता आनी बीनूकच खातां म्हणटा...'' बीनू सामकें रडकुरें परतलें.

''पिशें गो पिशें ! बेब्यान तशें कांय म्हणूंक ना ! तीं भुरगीं तुका भेश्टायतात. तूं भिवकुरें म्हणून तीं जाणांत !''

''हांव भिवकुरें न्हय मम्मी...!''

''तशें जाल्यार सद्दां कितें ना कितें कागाळ कसली करता तर तूं? तुजीं किजिलां तुज्यान कित्याक सोडोवंक येनात?''

''मम्मी, पूण म्हाका बेब्याचो भंय दिसता.''

''कांय गरज ना भियेवपाची बेब्याक ! ताणें तुका खातां म्हळ्यार तूंय बी सांग... हांवूच तुका खातां म्हणून...!

बीनूचे दोळे अजापान येऽद्दे व्हडले जाले.

''शी ! मम्मी... बेब्याक कशें खावप?''

''आगो, खरें खावं नाका तूं... भेश्टाय ताका खातां खातां म्हणून...''

बीनू मागीर दीसभर तेंच चिंतूंक लागलें.

– बेब्याक कशें सांगप... हांवूच तुका खातां म्हणून?

रातचें न्हिदांत लेगीत बीनू तेंच चिंततालें.

– आनी ताच्या सपनांत तोच बेबो आयलो.

– बेबो तोंड उकतें करता-धांपता ! आनी मोट्टे दोळे करून ताकाच पळयता.

बीनूक सामको थरथरो भरलो. ताका धांवपाकूच येना जालें. पांय एकाच जाग्यार चिकटिल्ले भाशेन जाले. बीनू सगलेंच कडकडपाक लागलें.

– आतां कितें करूं? बेबो म्हाका खातलो.

बीनूक मम्मीची याद जाली. ''मम्मी, खंय आसा गे तूं?... मम्मी खंयच दिसना...''

– पूण मागीर मम्मीचीं उतरां मात ताका याद जालीं. 'तूं भिवकुरें म्हणून सगलीं तुका भेश्टायतात... बेब्यान तुका खातां म्हळ्यार तूं सांग, हांवूच तुका खातां.'

बीनून कसो तरी सगलो धीर एकठावन म्हळें, ''एऽ बेब्या, हांवूच तुका खातां राव...''

तेन्ना अजापूच जालें ! बेबो भियेलो आनी उडक्यो मारीत धांवून वचूंक लागलो.

तसो बीनूक फोर्स चडलो. ताणें आड्डून म्हळें, ''एऽ बेब्याऽ, धांवता खंय? हांव तुका खातां...''

बेबो जीव घेवन धांवून गेलो.

बीनू ताळ्यो मारून व्हडाव्हडान हांसलें. ''हा! हा! हा! बेबो म्हाका भियेलो!''

मम्मीन बीनूक हालोवन जागें केलें. ''बीनू, सपनेलें गो बाय? हांसता कित्याक?''

तशें बीनू मम्मीक घट्ट वेंग मारून सांगलें, ''मम्मी, बेबो म्हाका भियेलो. हांवें बेब्याक सांगलें, हांवूच तुका खातां म्हणून. आनी बेबो धांवुनूच गेलो.''

मम्मीन ताच्या तोंडावयल्यान मायेन हात भोंवडायलो आनी म्हळें, ''पळयलें मुगो बाय? भियेता ताका सगलें जग खाता. भियेना ताका कोण कांय करिना !''

बीनून मम्मीचीं उतरां घट्ट याद धरलीं – 'भियेना ताका कोण कांय करिना!'

दुसऱ्या दिसा सदचे भाशेन स्कूल बॅग फाटीक लावन बीनू इश्कोलाक वचूंक भायर सरलें. इश्कोल लागींच आशिल्ल्यान बिल्डिंगेंतलीं सगलीं भुरगीं सदांच बरोबर वतात. रीतू, रीमा, येशा... तांचे बरोबर बीनूय बी वता.

रस्त्यावयल्यान एक सुणो धांवत वतालो. आपले वटेन वतालो बाबडो. रीतून

येशाक दोळो मोडलो. सगल्यांनी ल्हवूच थारायलें, बीनूची मज्जा करुंया! मागीर येशान व्हडान म्हळें, ''एऽ पळय पळय, सुणो आयलो ! बीनूकच पळयता, ताचे वटच्यान धांवता... आतां तो बीनूक खातलो...''



बीनू पयलीं सदचे भाशेन भियेलें. पूण ताका मम्मीचीं उतरां याद जालीं - 'भियेना ताका कोण कांय करिना !'

बीनूक धीर आयलो. मागीर ताणें म्हळें, 'म्हाका खंय पळयता गो तो? येशाक आनी रीमाकूच पळयता. तुमकांच खातलो तो आतां...!'

रीमा आनी येशा कांचवेल्ले भाशेन सुण्याक पळोवंक लागलीं. खऱ्यांनीच तो सुणोय बी तांचेवटेन पळोवंक लागलो. तशीं तीं धांवपाक लागलीं. पूण सुणो आपलेच वटेन गेलो.

मागीर सगलीं भुरगीं येशाक आनी रीमाक खूब हांसलीं. बीनूय तांकां हांसलें.

इश्कॉलांत ड्रॉइंगाच्या पिरियडाक रीतूले पेन्सिलीचें तोंकूच मोडलें. रीतू जाणा आसलें, बीनूची कसलीय वस्त कोणेंय घेवची, तें मेंगें कशें ओग्गी रावतलें. टिचरीक कांयच सांगचेंना...

मागीर रीतून बीनूच्या हातांतली पेन्सील ओडली. ''बीनू, तुजी पेन्सील म्हाका दी. ही म्हजी तुका घे.''

सदचें भिवकुरें बीनू आसल्यार तें मोन्यांनी पेन्सील दितलें आसलें. पूण आज बीनून म्हळें, ''हांव ड्रॉईंग काडटा तें दिसना तुका? म्हजें काडून जातकूच मागीर जाल्यार दितां.''

पूण रितून ताच्या हातांतली पेन्सील ओडून घेतलीच आनी आपलें ड्रॉईंग काडूंक लागलें. ताका दिसलें, बीनू ओग्गी बसतलें. पूण बीनू आज ओग्गी बसूंक ना.

ताणें आपली पेन्सील झोमून परती ओडली. रीतून ताका धुकललें. टिचरीची नदर तांचेर पडली.

''बीनू, झगडीं कसलीं करता? उबें राव पळोवया बांकार...!''

बीनू टिचरीक तें केन्नाच परती जाप करिना. आपली चूक नासुनूय मेंगें कशें ओग्गी रावता. आजूय तें बांकार उबें रावलें खरें. पूण ताका याद जाली, मम्मीन कितें सांगलां? भियेना ताका कोण कांय करिना.

ताणें मागीर धीर करून म्हळें, ''टिचर, रीतून म्हजी पेन्सील व्हेल्या. तें म्हाका ड्रॉईंग काडूंक दिना...''

टिचर म्हऱ्यांत आयली. तिणें रीतूक उबें केलें. रीतू भियेलें. ताणें सांगलें, 'टिचर, पेन्सिलीचें तोंक मोडलें.''

''गिरमीट ना?''

''ना टिचर...''

''म्हणून तूं बीनूची पेन्सील घेता? मागीर ताणें ड्रॉईंग कशें काडप? चड मस्तें जालां तूं!''

टिचरीन बीनूक बसयलें आनी रीतूकूच उबें केलें.

बीनू आपली पेन्सील घेवन ड्रॉईंग काडूंक लागलें. मनांतल्या मनांत तें चिंततालें, 'आरेच्या ! टीचर कितली बरी! हांव ओगीच तिका भियेतालें! म्हाका दिसतालें, परती जाप केल्यार टीचर मारतली म्हणून! आतां कोणय म्हजे वाटेक गेल्यार टिचरीक सांगप !

आज इश्कोलांतल्यान घरा वतना कोणच बीनूचे वाटेक गेलीं नात. सगल्यां बरोबर हांसत खेळत बीनू घरा आयलें. ताणें दारांतल्यानच आवयक उलो मारलो, ''मम्मीऽऽ''

मम्मीन ताच्या तोंडावयल्यान मायेन हात भोंवडायलो. मम्मीन पळयलें, बीनू सदचेभाशेन पोले फुगोवन, रडकुरें परतून घरा आयलें ना. हांसत हांसत आयलें, ''आज कितें गो बाय? शाणें जालां?''

मम्मीक घट्ट वेंग मारून बीनून सांगलें, ''जाणा मगे मम्मी ! भियेना ताका कोण्ण कांय करिना !''

* * *




# राजूची काणी

राजेशाचो एक काका पुण्याक रावता. तो चार दिसांखातीर गोंयां आयिल्लो. काका आयलो त्याच दिसा राजूलो युनिट टॅस्टाचो रिझल्टूय आयलो. काकान मोटे उमळशिकेन रिझल्ट पळोवंक घेतलो. पळय जाल्यार चार तांबड्यो रिस्को!

राजेश चार विशयांनी नापास ! काकाक अजापूच जालें.

राजूक तो ल्हानपणासावन पळयता. बुद्दीन बरो, हुशार भुरगो. दर वर्सा बरो पास जावन अंदूं चवथेक गेला. मागीर असो फेल कित्याक जावंचो?

काकान बारीकसाणीन राजू दीसभर अभ्यास कसो करता ताचेर नदर दवरली.

दुसऱ्या दिसा राजूची मम्मी सकाळची ताका उठयताली. ''राजू, सात जावंक आयलीं. ऊठ बेगीन, स्कुलाक वचूंक वेळ जातलो मरे.''

पूण राजेशान 'ऊं... ऊं...' करून परतें पांगरूण ओडून घेतलें. दोनतीनदां अशें जातकच मम्मीन ताका उबारूनच संडासांत व्हेलो.

राजूक सकाळचो उठोवप, ताका तोंड धुवंक लावप, गणभेस घालून ताका तयार करप, हो एक व्हडलो यागूच जाता मम्मीक! एकदांचो दूद पियेवन, टिफीन बॅगांत घालून, स्कूलबॅग फाटीर मारून राजेश स्कुलाक गेलो तशें सकाळचें एक व्हडलें काम जाल्लेभाशेन दिसता तिका.

दनपारां स्कुलांतल्यान येतकच राजेश काकाबरोबर जेवलो. राजेशाचो पप्पा काकाबरोबर जेवलो. राजेशाचो पप्पा दनपारचो घरा आसच ना. तो सकाळचो ऑफिसाक वता तो बद्द सांजेचो घरा येता.

''राजेश, सांग मरे स्कुलांतल्यो खबरी...'' काकान म्हळें.

''काका, आमची टिचर सामकी बरी न्हय! म्हाका ती ओगीच तापयता.''

''आरे, टिचर बेश्टीक कित्याक तापयतली? तुवें कितेंय पूण केलां जातलें...''

''ना काका... मात, तिणें दिल्लो होमवर्क करून व्हरपाक हांव विसरलों.''

''पळयलें मरे ! तुजी चूक जालीना? आज तरी होमवर्क करतलो मरे?''

''हय काका'', राजेशान सांगलें.

पूण जेवन जातकच राजेश जो टीवीक चिकटलो तो हालच ना. मम्मीन ताका

कितले खेपे याद केली, ''राजेश, पयलीं तुजो होमवर्क कर मरे! टीवी बी सगलें मागीर आं !''

''मात्शी राव न्हय मम्मी! काय बरें पिक्चर लागलां. म्हाका खूब आवडलां तें... आनी शाहरूख खान आसा मगे...''

पिक्चर सोंपतकच खेळूंक म्हणून जो राजू गेल्लो तो तीनसांज जातकच घरा आयलो.

राजेशालो पप्पा टीवी लावन बशिल्लो. राजेश आयलो तोच टीवी म्हऱ्यांत बसलो. बातम्यो सोंपल्यो. टीवीचेर जायराती चालू जाल्यो.

''राजू, आयलो तूं? चल, हात-पांय धूय आनी देवाक पांय पड. शुभंकरोती म्हण...'' मम्मीन भितरल्यानूच सांगलें. पूण राजू जाग्यावयलो हाललोच ना. तो जायराती पळयतूच रावलो.

''पप्पा, काय बरी घड्याळ पळय. उदकांत पडल्यार लेगीत कांयच जायना... रोहनाकडेन असलीच घड्याळ आसा. पप्पा, म्हाका हाड रे तसली घड्याळ...'' घड्याळीची जायरात पळोवन राजेशान पप्पाक सांगलें.

''तुका मम्मीन कितें सांगलां तें आयकूंक आयलेंना राजू? आनी चार विशयांनी फेल जाल्ल्या भुरग्याक घड्याळ कोणें सांगल्या?'' पप्पान ताका विचारलें. ''बरो करून सगल्या विशयांनी पास जा. मागीर माग घड्याळ.''

राजेश मागीर रागान फुगार जालो. अभ्यासाक बस म्हळ्यार ओग्गी बसलो. जेवलो आनी न्हिदूंक गेलो.

दुसऱ्या दिसा आयतार आसलो. सुटयेच्या दिसा राजेश कोणाचेंच आयकना. णव जालेबगर हांतुणावयलो कस्सोच हालना.

''कुंभकर्ण उठलो काय ना?'' पप्पान मम्मीक विचारलें.

''आज सुटी न्हय? सुटये दिसा ताका उठोवप म्हज्यान काय जायना! तुमीच उठयात.'' मम्मीन सांगलें.

''राजू, ऊठ मरे ! दीस माथ्यार आयलो पळय.'' पप्पान राजेशाक हालयलो. ताचें पांगरूण ओडलें. पूण राजेश 'ऊं... ऊं... करून परतें पांगरूण माथ्यावयल्यान ओडून घेवन न्हिदलो.

काका ल्हवूच राजेशा म्हऱ्यांत वचून बसलो. ''राजेश, जाग येवन लेगीत असो आळशाभाशेन न्हिदून रावता कित्याक?''



''काका, आज म्हाका सुटी...''

''आरे, सकाळचो उठून अभ्यास करचो. बरोऽ जाता. असो न्हिदून रावल्यार तुजो नंबर वयर कसो येतलो?'' काकान विचारलें.

राजेशान ल्हवूच काकाच्या कानांत सांगलें, ''काका, कोण्णाक सांगनाका आं! हांवें देवळांत वचून देवाक सांगून घेतलां, म्हाका परिक्षेंत खुब्ब मार्क दी आनी नंबर वयर काड म्हणून.''

काका अजापूच जालो. ''तुजो देवाचेर इतलो भावार्थ आसा?''

''हय काका !'' राजेशान म्हळें. ''आज्यान म्हाका सांगलां, देव फाटल्यान आसल्यार सगळीं कामां बरे तरेन जातात म्हणून... तेखातीर हांव दर सोमाराक देवळांत वचून देवाक याद करतां...''

''आरे, पूण देव येता त्या वेळार तूं न्हिदून रावता मरे !''

''देव येता? केन्ना तो? म्हाका कसो दिसना?''

''देव तुजे म्हऱ्यांत येवन तुका जागयता तेन्ना तूं हांतुणार बुरखो मारून न्हिदता... तुका देव कसो दिसतलो?''

राजेशाक सामकें अजाप जालें.

''काका, हांव फाल्यां सक्काळीं उठ्ठां. मागीर म्हाका देव दिसतलो?'' ताणें काकाक उमळशिकेन विचारलें.

''कित्याक दिसचो ना तर? फाल्यां सकाळीं हांव दाखयतां तुका देव !'' काकान

सांगलें.

फाल्यां देव दिसतलो ह्या हुस्क्यान राजेशाक कितलो वेळ न्हिदूच पडूंक ना. मागीर कसो तरी ताचो दोळो लागलो.

सकाळच्या स वरांचेर काकान राजेशाक जागो केलो. राजेश एकदम उठून बसलो. ताका तोंडार उदक मारूंक लावन काकान आपले बरोबर व्हेलो.

काकाक सकाळीं उठून पयस पासयेक वचपाची संवय ! पूण हांगा तो तेर्रासारूच वचून पासयो मारतालो. राजेश उमेदीन देव खंय दिसता काय म्हणून हांगा थंय पळोवंक लागलो.

''काका, खंय रे देव?'' ताणें विचारलें. पूण काका आपलो पासयो मारपाक लागलो. राजेशानूय काकाबरोबर दोन पासयो मारल्यो.

''काय बरो थंड वारो मारता पळय...'' काकान म्हळें.

राजेशान तेर्रासाचे पारापेटीक तेंकून सक्यल चोंयवशीन नदर मारली. तांचे बिल्डिंगेच्या पोरसांत झाडां आसलीं, झाडांचेर सवणीं चिंवचिंवपाक लागिल्लीं. दसणीच्या झाडार तांबडीगुंज फुलां फुलिल्लीं.

''काका, तीं पळय दसणीचेर भजभजीं कशीं भज-भज करून बोवाळ घालतात!'' दसणीवयलीं सात-आठ सवणीं दाखोवन राजेशान म्हळें.

''आनी त्या चांफ्या-झाडार पळय, धवींफुल्ल चांफीं फुल्ल्यांत चांफोभर...''

''काका, हांगाच्यान तीं नखेत्रां कशीं दिसतात न्हय?''

इतल्यांत ताच्या माथ्यावेल्यानच सवण्यांचें भिरें उडून वतना दिसलें. दुसरे वटेन पळयल्यार धव्याफुल्ल पांखाट्यांच्यो बळारी. त्योय बी भिरीं करुनूच उडटाल्यो. खंय वतात काय हीं इतल्या सकाळचीं?

राजू तांकां पळयतूच उरलो. तेर्रासावेल्यान माडांचीं चुड्टां, तांचे क्वळ दिसताले. चुड्टांचेर बसून दोन कावळे आपलीं पांखां चोचीन नितळ करताले. माडाच्या क्वळांमदीं कावळ्यांचो एक घोंटेरय दिसतालो. राजेशान खोशयेन उडकीच मारली.

''काका, पळय ! कावळ्याचो घोंटेर !''

मागीर काकान राजून मळबाक पळोवंक सांगलें. तांबशा-तांबशा जाल्ल्या मळबांतल्यान सूर्य निकतोच वयर येतालो. तांबडोच गुळो कसो. राजेश पळयतच उरलो. ल्हवू ल्हवू सगळो सूर्य मळबांत दिसूंक लागलो. तांबडो आशिल्लो तो हळडुवो केसरी जावंक लागलो.

राजेश आनी काका कितलो वेळ ताका पळयतच रावले. तनरी लागिल्लेभाशेन.

''चल, या मरे? तुका स्कुलाक वेळ जातलो.'' काकान राजेशाच्या भुजांक धरून ताका हालयलो.

''काका, आनीक थोडो वेळ रावंया न्हय, काय बरें दिसता हांगा ! म्हाका सामकें उडयो मारून नाचन दिसता.'' राजू खऱ्यांनीच उडयो मारून नाचूंक लागलो.

मदींच ताका याद जाली. ''काका, देव आयलोच ना. म्हाका दिसलोच ना.''

''कितें? तुका दिसलोच ना?'' काकान विचारलें.

''म्हणजे? देव येवन गेलो लेगीत? म्हाका कसो दिसलो ना तर?'' राजू रडकुरें परतलो.

''पिशा, देव दिश्टी पडना. तो जाणवता. आतां पळय, काय बरो थंड वारो मारता काय ना?''

''हय काका.''

''तो वारो तुका दिसता?''

''ना... पूण तो म्हज्या सगळ्या आंगाक लागता... जाणवता...''

''देवूय तसोच जाणवता ! सकाळचो देव येता, सगळ्या झाडां-पेडांक जागयता. शेवण्या-सुकण्यांक उठयता. तांकां कामाक लायता. सूर्याक उठयता. ताका कामाक लायता. देवान उठयतकूच सवणीं न्हिदून रावनात, सूर्य न्हिदून रावना. देवा-पारार उठून तीं कामाक लागतात. तूं मात देवान जागो केल्यार लेगीत उठना. हांतरुणांतच न्हिदून रावता.''

राजेशाक लज जाली. तरी ताणें विचारलेंच, ''पूण थोडो वेळ चड न्हिदल्यार कितें जाता?''

''आरे, न्हिदपाखातीर देवान रात केल्या. दीस केला तो कामां करपाक.''

''पूण काका, हांव ल्हान आसां. म्हाका खंय कामां आसतात?''

''ल्हानांक लेगीत कामां आसतातूच. तुजें काम सकाळचो बेगीन उठून न्हावन-धुवन वेळार स्कुलाक वचपाचें... टीचर शिकयता तें मन लावन शिकपाचें... घरा येवन वेळच्या वेळार अभ्यास करून मागीरच खेळूंक वचपाचें. टीचरीन शिकयल्ले धडे वाचपाचें... तें सोडून तूं दीसभर टीवी पळयत बसता. हय मरे?'' राजेश मान सकयल घालून मुकाट्यान काकाचे फाटोफाट घरा गेलो.

काका दनपारां जेवन बी पुण्याक आपल्या घरा वचपाक भायर सरलो. वतना

ताणें राजूक वेंगेंत घेतलो आनी ताची पापी घेतली. काका वता म्हणून राजूक खूब वायट दिसलें.

दुसऱ्या दिसा राजूची मम्मी ताका उठोवंक गेल्यार राजू हांतरुणार ना. तिका अजाप दिसलें. राजेश बेसिनाकडेन दांत घांसत उबो आसलो.

''आज सूर्य खंयच्यान उदेलो काय?'' तिणें हांसत विचारलें.

''सूर्य मगे? आजून उदेवपाचोच आसा. देवान पयलीं म्हाका जागो केला. आतां सूर्याक जागोवंक गेला जातलो...'' राजून सांगलें.

मम्मी आयकतच उरली.

''मम्मी, हांव पयलीं न्हातां. मागीर गणभेस घालून तयार जातां... मागीर दूद पियेतां हां... चल, म्हाका न्हाणय बेगीन...''

मम्मीक अजापाचेर अजाप जायत रावलें. आनी सगळ्यांत व्हडलें अजाप तिका केन्ना जालें जाणा? राजेश दुसऱ्या युनिट टॅस्टांत सगळ्या विशयांत बऱ्या मार्कांनी पास जालो तेन्ना. राजूची अपुर्बाय करत तितली थोडी अशें तिका जालें.

पप्पान तर ऑफिसांतल्यान घरा येतना राजेशाक आवडटा तसलें बरें घड्याळ हाडून ताका बक्षीस दिलें.

## राजाचे कान

एक राजा आशिल्लो ! ल्हानपणासावन ताचे कान मातशे व्हडशेच! पूण जाणटो जातां जातां ताचे कान सामकेच बोकडाच्या कानांभाशेन दिसूंक लागले.

राजान कितें करचें? व्हडलें पागोटें घालचें आनी कान लिपोवचे !

राजालो एक म्हालो आशिल्लो. ताचें नांव दादू हजाम. तोच सदां राजाची कापणी करूंक वतालो. ताका राजाचें गुपीत खबर आशिल्लें. पूण ताणें तें केन्नाच कोणाक सांगूंच ना. ल्हवू-ल्हवू दादू-हजाम म्हातारो जालो. ताचो पूत म्हादू-हजाम. आतां बापायच्यान नजो जालें म्हणटकच म्हादू-हजाम राजागेर कापणी करपाक भायर सरलो.

दादू हजामान पुताक सांगलें, ''पळय, राजा हो आमचो धनी. ताचे कान-केंस कशेय आसल्यार, आगळें-उणें कितेंय पळयल्यार तोंड धांपून ओगीऽ रावंक जाय!''

म्हादू हजाम सादूर जालो. ताणें राजाच्या म्हालांत वचून आपली धोपटी दवरली. राजा कापणी करूंक बसलो. ताणें आपलें पागोटें काडून दवरलें. तेबरोबर म्हादू हजामाक राजाले बोकडे-कान दिश्टी पडले. मोन्यांनी खाड-कापणी करून तो घरा आयलो.

म्हादू-हजामाक सदचीच संवय. हांगाच्यो थंयच्यो खबरी करीत, गिरायकांकडेन उलयत खाड करचें, केंस कापचे !

आतां ताणें चिंतलें, आपणें जर गिरायकांकडेन खबरो केल्यो जाल्यार म्हज्या तोंडान राजाल्या बोकडे-कानांची खबर भायर सरलेबगर रावचिना. ताणें गिरायकां-कडेन उलोवपूच बंद केलें. राजाचें गुपीत पोटांतूच धपटून दवरलें!

पूण ज्ञालें विपरितूच !

म्हादू हजामाचें पोट फुगूंक लागलें. दिसान दीस फुंगतां फुगतां तें येद्दें मोटें जालें. णव म्हयन्यांचें गुरवार पोट कशें ! आतां फुट्टा... मागीर फुट्टा !

शेवटाक ताच्यान सोंसूंक नजो जालें. ताणें एक खोरें घेतलें आनी रानांत धांव मारली. खोऱ्यान एक व्हडलो फोंड मारलो. तांतूंत तोंड घालें आनी पोट्टभर उलयलो... उलय उलय उलयलो - 'राजाक बोकडे-कान आसात! राजाक बोकडे कान आसात!'

ल्हवू ल्हवू ताचें पोट बारीक बारीक जायत जाग्यार आयलें. सदचे भाशेन तो आपल्या वावराक लागलो. गजाली करूंक लागलो. हांसून उलोवंक लागलो.

हेवटेन कितें जालें? त्या फोंडाऱ्यांत एक रोंप किल्ललें. वर्साभितर ताचो व्हडलो रूख जालो. रानांत गेल्लेकडेन एका मेस्तान तो पळयलो. मारून तो घरा हाडलो. ताचीं केलीं दोन तबलीं आनी एक सारंगी. आनी राजाल्या दरबारांत विकूंक व्हेलीं. राजान तीं रोखडींच विकतीं घेतलीं.

राजा संगिताचो मोगी. ताणें तीं आपल्या वाजोवप्यांक वाजोवंक सांगलीं. वाजय जाल्यार अजाप घडलें. तबलें वाजयल्यार बोल आयले -



धाऽ धिन्नऽ धिन्न ऽऽ
राज्जाक्क बोकडे-कान्न
ताऽ तिन्नऽ तिन्न ऽऽ
राज्जाक बोकडे-कान्न

सारंगींतल्यान बोल आयले -

किस ऽ ने ऽ बो ऽ ला ऽऽ
किस ऽ ने ऽ बो ऽ ला ऽऽ

तशे तबल्यांतल्यान बोल आयले,

म्हादू हज्जाम ने बोला - म्हादू हज्जाम ने बोला...

राजान बेगीन बेगीन संगीत-सभा बंद केली. तबलीं-सारंगी नाच्च केलीं. आनी म्हादू हजामाक आपयलो. म्हादू हजाम कडकडत कडकडत आयलो. ताणें आपल्या फुगिल्ल्या पोटाची आनी फोंड मारून उलयिल्ल्याची काणी राजाक सांगली.

राजा विचारी आनी दयाळूय आशिल्लो. ताणें चिंतलें, हाणें पोरान म्हजें गुपीत उकतावंक ना; कोणाक सांगूंक ना. पोट फुटसर धांपून दवरलें. पोट फुटत म्हणून फोंडाक वचून सांगलें. हाची कसली चूक? हाका कित्याक ख्यास्त? उरफाटें, इनामाचोच धनी हो !

राजान ताका शंबर म्होरो दिवन घरा धाडलो.

राजालें गुपीत मात फुटलें तें फुटलेंच !

# गुंडूचें कुवाडें

तिनसांज जाली तशी गुंडूच्या दोळ्यांक झांपड आयलीच म्हणून समजुचें!

आजयेन मागीर आईक उलो मारून सांगप, ''आगे, हाच्या पोटाक कितेंय घाल बेगीन. ना जाल्यार उपाशींच न्हिदतलो पोर !''

आईन ताका भितर व्हरून जेवोवप. एकल्याकूच ! अरू-शालू हांची परवड लेगीत म्हणून जावंक नासता. आज्याले श्लोक शिकोवपाचेच आसतात, काणी सांगपाची आसता. पूण गुंडूक तांतलें कांयच पडूंक ना !

आजी ताका म्हणटा, ''गुंडूचें कशें ! दिव्यांक वात आनी तोंडाक हात...! तीनसांज जाली म्हणटकच कुकडांचे दोळे फुट्टात तशे हाचे दोळे धांपतात...!

परवड चलतना आज्यान विचारचें, ''आनी गुंडू खंय तर तो?''

अरू-शालून मागीर सांगचें, ''तो जेवन न्हिदलो लेगीत !''

गुंडून न्हिदिल्लेकडेन सगलें आयकुचें आनी हांसत न्हिदेचें सवंग घेवन पडून रावचें... आज्याली काणी आयकुची.

पूण गुंडू पयलेंतल्यान दुसरेक गेलो आनी मागीर मात ताच्या त्रासांक सुरवात जाली.

आज्यान सांगलें, ''आतां अशें चलचें ना. फाल्यांच्यान गुंडूक परवड म्हणचीच पडटली. आतां तो ल्हान ना !''

गुंडू आतां चिंतूंक लागलो ! काय बरी गोजडी पांगरून गुरगुंटी करून न्हिदपाचें सोडून आज्या म्हऱ्यांत बसप... ते व्हडाव्हडान पाडे म्हणप. मागीर 'डोळ्यांनी बघतों, ध्वनि परिसतों कानीं, पदीं चालतोंऽ' करून श्लोक आड्डप...! श्ये ! कितें तरी आयडिया काडचीच पडली...!

मागीर तीनसांज जाली तशें ताणें आवयक सांगलें, ''आई गे ! बेग्गीन वाड गे म्हाका... न्हीद येता पळय !''

''आरे गुंडू, तूं शाणो मरे? आतां तूं व्हड जालो, दुसरेक पावलो. परवड म्हणिना जाल्यार तुका गणितां कशीं येतलीं? तुजो नंबर पयलो कसो येतलो? तूं हुशार कसो जातलो? शाण्या, आज परवड म्हण आं !''

''पूण आई, सामकीच न्हीद येता मगे म्हाका !''

''अशीं पिशेपणां करचीं न्हय रे गुंडू ! आज्यान म्हाका सांगलां, तुका पयलीं वाडूं नाका म्हणून ! आजो रागार जातलो आं !''. आवयन ताका समजायलो. तसो गुंडू फुगुनूच बसलो. पोले फुगोवन तो आजये म्हऱ्यांत गेलो.

''आजये, पळय गे ! आई म्हाका वाडिना ती ! आतां हांव उपाशींच न्हिदतां आं!''

घरांत कोणूय उपाशीं न्हिदत जाल्यार आजयेक न्हीद पडप ना. तांतूंत गुंडू सगल्यांत धाकटो. तिचो सामको अपुरबायेचो!

''आगे, हो गुंडू न्हिदता गेयऽ... ताचे कडेन पळय मातशें !'' आजयेन आईक उलो मारलो. आज्यान तें ज्युस्त आयकलें.

''हांगा यो रे गुंडू ! हांव पळयतां ताका कशी न्हीद येता ती !'' आज्यान ताका आपयलो. गुंडू न्हिदसुरो-सो आज्या म्हऱ्यांत येवन बसलो. अरू-शालूच्या सुरांत सूर मेळयत म्हणूंक लागलो,

''बे एके बे, बे दुणे चाऽर...!''

म्हणटां म्हणटांच झेमेवंक लागलो. आज्याचें ताचेर बारीक लक्ष आसलें. तो झेमेवंक लागता तशें आज्यान ताका हालोवचें. ताका लकण आयली म्हणटकच ताच्या दोळ्यांक उदक लावचें.

मागीर श्लोक सुरू जाले...

भुरग्यांचीं जेवणां जावन आज्याली बिरबलाची काणी सोंपसर आठ जालीं. मागिरूच गुंडूक न्हिदूंक मेळ्ळें.

गुंडूक हें साप्प आवडलेंना ! ताका आज्याचो राऽग आयलो. 'फाल्यां हांव जेविनासतनाच न्हिदतलों!' ताणें मनांत निश्चेव केलो.

दुसऱ्या दिसा गुंडून तीनसांजचे हात-पांय धुयले आनी भितर वचून खाटीर पांगरूण घेवन गुडुप्प न्हिदलो.

अरू-शालूली 'शुभंकरोति' म्हणून जाली. तांणी मागीर सदचे भाशेन म्हळें:

''हातीं दीपक - सये साय
गंगे दान - दिली गाय
तुळसीमाते - जोत पडूं



घरच्या धनया - हात जोडूं
पिडे तूं - भायर सर
लक्षिमी तूं - घरांत सर
दिव्या तुका - नमस्कार.''

मागीर आजो-आजयेक, आई-बाबाक, भाईक सगल्यांक पांयां पडून जालें तांचें. पूण गुंडूचो बोवाळ ना !

''गुंडूऽ'' आज्यान मातसो कडक उतरांनी उलो मारलो. पूण गुंडूची जाग-माग ना.

''गुंडू खंय? ताका कोणें पयलीं वाडलो?''

''कोणें वाडला? अजून तो जेवंकूच ना...!'' आईन भितरल्यानूच सांगलें.

भाई, अरू आनी शालू मागीर गुंडूक सोदूंक लागलीं. पळय जाल्यार खाटीर पोटली करून न्हिदला.

भाईन ताका हालयलो, ''गुंडू, चल आं ! सगलीं रावतात तुका !''

पूण गुंडू सामको गाड न्हिदला.

''भाई, भाई, तो जागोच आसा आं...!''

''हय रे भाई, ओगीच दोळे घट्ट धांपल्यात पळय... परवड म्हणची पडटली म्हणून.'' शालू आनी अरू आपलो दुबाव उकतायतालीं. भाईकूय तोच दुबाव मारिल्लो.

मागीर अरू-शालूक धपकायत ताणें म्हळें, ''आरे, तो कितलो गाड न्हिदला पळय, बोवाळ करनाकात आं...''

''पूण भाई...'' अरू कितें तरी म्हणूंक वतालें. भाईन ताका दोळे मोडले.

''खरें दिसना तुमकां? पळयात आं, गुंडू खरोच गाड न्हिदला जाल्यार ताचो दावो पांय वयर सरतलो.''

अरू आनी शालू अजापान पळयतूच उरलीं. पांगरुणांतल्यान गुंडूचो दावो पांय ल्हवूच वयर सरलो. शालू-अरून आपलो हांसो दामून बोव्वाळ घालो, ''आई, बाबा, आज्याऽ, हांगा येयात बेगीन... पळयात, गुंडू खरोच सामको गाऽड न्हिदला...!'

गुंडू आपली आयडिया बरीऽ सादली म्हणून पांगरुणांत भितर भितर मुरगुटपाक लागलो.

सगलीं कुडींत येतकच भाईन म्हळें, ''पळयात, गुंडू खरोच गाड न्हिदला जाल्यार ताचो उजवो पांय वयर सरतलो...''

आनी पांगरुणांतल्यान गुंडूचो उजवो पांय ल्हवूच वयर सरलो.

सगल्यांचे हांसून हांसून मुड्डे पडले.

''आरे चोरा ! अशीं चिकानां करता? ऊठ पयलीं.'' आज्यान गुंडूच्या बावल्यांक धरून ताका उठयलो. गुंडून मागीर परवड म्हळी, श्लोक म्हळें, जेवलो; आज्याली काणी आयकली. पूण एक कुवाडें ताका कश्शेंच सुटलेंना !

तो गाड न्हिदला हें भाईन सामकें सिद्द केल्लें आसतना, आज्याक कशें कळ्ळें तो जागोच आशिल्लो म्हणून?

## चंद्रिमाचें आंगलें

''चांदूमाम चांदूमाम, तोपी दी रे.''

धाकलो बाबू चंद्रिमाक पळोवन आंगणांत नाचतालो. ताचें पळोवन नीला आनी शांतीय बी आंगणांत गेलीं.

''आई गे, चंद्रीम पळय कसो अर्दोच दिसता आज तोपी कशी,'' नीलान म्हळें.

''आगो, आज अश्टम न्हय? अश्टमीचो चंद्र अर्दोच दिसता,'' आईन सांगलें.

''आनी आई, कालच्यान तो व्हड व्हड जायत पुनवे दिसा सामको वाटकुळोच जातलो,'' शांतीन म्हळें.

''हय ! आनी पाडव्याक सावन ल्हान ल्हान जायत परतो अश्टमी दिसा अर्दो जातलो आनी उमाशे दिसा नाच्च जातलो. न्हय गे आई?''

''हय गो बाय ! कोणें सांगलें तुमकां हें सगलें?''

''आमच्या गुरुजीन सांगलां.'' ताळयो मारून नाचत शांती आनी नीलान सांगलें.

तेबरोबर आईन म्हळें, ''ह्या चंद्रिमाच्या ल्हान-व्हड जावपावयल्यान म्हाका ल्हानपणांतली एक काणी याद जाली.

''आई, काणी सांग ! काणी सांग...'' बाबू खोशयेन आड्डलो.

आनी आईन तांकां चंद्रिमाचे खोमशेची काणी सांगली -

चंद्रीम सदांच मळबांत उकतोच भोंवतालो. गिमाचे दीस जावंदी, पावसाळो जावंदी, ना जाल्यार शिंयाचे दीस जावंदी, बाराय म्हयने तेराय काळ ताणें मळबांत उकतेंच भोंवचें. एक दीस तो आपले आवयसरीं गेलो आनी ताणें म्हळें -

''आई गे, म्हाका एक बरीशी खोमशी शींव गे !''

चंद्रिमाचे आवयक ताची लक्तुबाय दिसली. तिणें एक विलोदा भाशेन गुबगुबीत धवेंफुल्ल कूप घेतलें, ताचें सोबीतशें आंगलें शिंवलें आनी ताका घालें. आंगलें घालून चंद्रीम नेटार मळबांत पासयो मारूंक लागलो आनी झेतान नखेत्रांक-गिऱ्यांक आपले कपडे दाखोवंक लागलो, ''पळय, पळय ! म्हजो पोपा कितलो सोबीत !''

तांणी म्हळें, ''हय रे बाबा ! तुजे भाशेनूच सोबीत !''

सगली पुनवेची रात चंद्रीम ती खोमशी घालून मिरय मिरय मिरयत रावलो. पूण दुसऱ्याच दिसा ती खोमशी ताका सदळ जावंक लागली. तशें आवय म्हऱ्यांत वचून ताणें म्हळें, ''आई गे, पोपो सदळ जाता मगे ! मातसो घट कर गे !''



आवयन भितरल्यान दोरे घालून ताजी खोमशी आंगाबरोबर केली. तिसऱ्या दिसा चंद्रिमान पळयलें, आंगलें सामकें सदळूच जाता. तो तसोच आवयसरीं धांवलो.

''कितलो धील पोपो शिंवला गे आई तुवें ! मातसो घट कर गे !''

चंद्रिमाचे आईन ताचें आंगलें मातशें घट करून दिलें.

मागीर दर दिसा तीच काणी ! पंचम जाली, सश्ट जाली, सप्तम जाली...

एकादस, दुवादस जायसर चंद्रिमाची आवय सामकी उबगली.

''कितें बाबा तुका असो सुकतडो लागला? दर दिसा तुजी खोमशी घट करतां. पूण तरीय तुका ती धिलूच जाता. अशें कशें रे?''

चंद्रीम बाबडो येदेंशें तोंड करून थंयच्यान गेलो.

उमाशेच्या दिसा जाल्यार ताका तें आंगलें सामकेंच खुंट्या बडयेक घाल्ले भाशेन गळगळीत जावंक लागलें. ताका सामकी लज लज जाली. तो तोंड लिपोवन बसलो. सगले गिरे आनी नखेत्रां ताका हांगा-थंय मळबभर सोदूंक लागलीं. पूण तांकां तो खंयच दिसलोना. 'खंय गेलो काय हो आज?' तीं चिंततालीं.

पाडव्या दिसा चंद्रिमाक जिवाक मातशें बरें दिसलें. 'आज म्हजो पोपो

बरो घट जाता.' ताणें मळबांत एक पासय मारली. पूण बी आनी तय ह्या दोन दिसांभितर ताका आंगलें सामकें तट्टटपाक लागलें. तो धांवत धांवत आवयसरीं गेलो.

''आई, म्हाका पळय पोपो कसो घट्ट जाता न्हय? मातसो सदळ कर गे!''

'जावं सायबा ! मातसो आंगान भरता पोर !' आवयन चिंतलें. तिणें बेगीन बेगीन खोमशी सदळ करून दिली. चंद्रीम परतून आंगलें घालून झेतान मिरोवंक लागलो. मोव मोव कापूस कसो, विलोदाचो पापो म्हजो !'' तो तोखेतालो. पूण दिसान दीस तो मोटोच जावंचो ! ताची खोमशी घट्टूच जावंची. आवयन वाजेत वाजेत ती सदळ करची. अश्टमीच्या दिसा आवय पिरंगली.

''खंयची बड आयल्या कोण जाणा पोराक ! पयलीं खाल्लें आंगाक लागनासलें आनी सुकतडो लागिल्लो. आतां आतां फकत वारो खावन म्हणटात तसो फुगता...!''

हाचेर चंद्रिमान फकत पोले फुगयले.

नम गेली, दसम आयली. चंद्रिमाक राग येत म्हणून आवयन दोरे सोडोवचे, आंगलें सदळ करचें. पूण... दिशीं दिशीं कालचीच काणी.

आवय बेजारूंक लागली, पिरंगूंक लागली. तसो चंद्रिमूय रागार-फुगार जावंक लागलो. चतुर्दशी दिसा आवयन म्हळें, ''पळय, तूं म्हजो सामको अपुरबायेचो चंद्र! पूण तुजे ते खोमशेन म्हाका नाका-पुरो केलां. खंयची तुका ही खोमशी शिंवली अशें म्हाका जालां ! परती म्हणून 'घट जाता, सदळ जाता' करचोना आं तूं! सांगून दवरतां!''

आई म्हजेर केन्नाच तिडकनासली. हो पापो शिंवीत साकून ती म्हजेर रागार जाता. तिच्या रागाचें मुळून ना करुंया ! म्हणटकच ती परती म्हजेकडेन मोगान उलयतली, चंद्रिमान चिंतलें.

आनी पुनवेचे धवेफुल्ल रातीं चंद्रिमान तो आपलो आवडटो धवोफुल्ल पोपो काडलो आनी मळबांत पयस शेंवटून मारलो. आनी खुशालभरीत चंद्रीम सदचेभाशेन मळबांत उकतोच भोंवंक लागलो.





# मिनूची काणी

एक आशिल्लें मिनू ! खूब खूब अपुरबायेचें !! मम्मी ताची अपुरबाय करताली. पप्पा ताची अपुरबाय करतालो. आजी, मामा, मावशी, काका, काकी... सगल्या सगल्यांचें तें अपुरबायेचें ! त्या कारणान तें लाडावल्लें आनी मातशें हट्टीच जाल्लें.

''मिनू, जेवपाक यो गो...!'' मम्मीन म्हणचें.

''राव मम्मा, हांव आनीक थोडो वेळ खेळटां.''

''आगो, जेव आनी मागीर खेळ ! म्हाका कामां आसात.''

''ना ! हांव पयलींच खेळटलें !''

मम्मीन मागीर ताचे फाटल्यान लागचें. मिनून हांगा धांवचें, थंय धांवचें ! ताका धरून जेवपाक हाडसर मम्मीक खरस येवची.

पप्पान ताका होमवर्क करपाक आपोवचें. ''मिनू, चल यो. होमवर्क कर पळोवया.''

''पप्पा, हांव टीवीचेर कार्टून फिल्म पळयतां न्हय? मागीर होमवर्क करतां...''

''आगो, पयलीं होमवर्क करचो. मागीर टीवी पळोवचो.''

''ना ! हांव पयलीं टीवी पळोवपी. मागीर होमवर्क करपी...''

पप्पान मागीर टीवीच बंद करचो. मिनून पोले फुगोवन रागार-फुगार जावन बसचें. ताका वेंगांत काडून, समजावन होमवर्क करपाक बसयसर पप्पाक नाकापुरो जावचें.

आजयेन म्हणचें, ''मिनू, चल बेगीन पाव खा. मागीर तुका हांव मिरामार वेळेर खेळूंक व्हरतां.''

''पयलीं वेळेर व्हर. मागिरूच हांव पाव खातलें.''

''आगो, तुका मागीर भूक लागतली. शाणें तें म्हजें. पयलीं खा पळोवया पाव!''

''ना, हांव खावचेंच ना !''

आजयेन ताका बळान हाताक धरून पाव खावोवंक मेजार व्हरचें. पूण मिनून हात सोडोवन घेवन धांवचें. आजयेक ताचे फाटल्यान धांवन धांवन पुरो जावंचें.

एक दीस कितें जालें? मिनूची मम्मी बरी ना जाली. गॅसाचो सिलिंडर ओडटना तिच्या कमरांत कस्स जालें. दोतोरान सांगलें, सामकी न्हिदून राव... म्हयनोभर...!

मम्मी खाटीर न्हिदून रावली. ती चिंतूंक लागली, मिनू मस्तेपणीं करता.आतां कशें जातलें? मिनू वेळार जेवतलें काय ना? मिनू वेळार होमवर्क करतलें काय ना? तें आजयेक त्रास दिवचें ना मू? मम्मी न्हिदून रावल्या तें पळोवन मिनून म्हळें, ''मम्मा, तूं ऊठ. न्हिदल्या कित्याक?''

मम्मीन सांगलें, ''मिनू, म्हज्या कमरांत कस्स जालें म्हणून दोतोरान म्हाका न्हिदून राव म्हळां.''

मिनू बावडें जालें. आतां ताणें मम्मीचे लागीं लागींच रावचें. ताणें विचारचें, ''मम्मा, तुका तान लागल्या? उदक हाडून दिवं?''

''मम्मा, तुका भूक लागल्या? खावंक हाडून दिवं?''

''नाका गो बाय. चल, तूं खेळ.'' मम्मीन म्हणलें. तशें मिनून खेळूंक वचचें. पूण दनपार जाली तशी ताणें इश्टिणींक सांगचें, ''आतां खेळ पुरो आं! हांव जेवपाक वतां...''

''मिनू, आनीक थोडो वेळ खेळ्या गो...'' ताच्या इश्टिणींनी म्हणचें.

''ना! हांव वेळार जेवंक गेलेंना जाल्यार म्हज्या मम्माक त्रास जातलो.''

मिनून वेळार येवन जेवंक बसचें. ताट पुसून जेवचें. पप्पा घरा येतकच ताणें म्हणचें, ''पप्पा, पळय! हांवें होमवर्क केलो सगलो !''

पप्पान ताका 'शाब्बास' म्हणचें. आजयेन सांजचें ताका मिरामार व्हरतां म्हणचें.

''ना! हांव येना ! हांव मम्माम्हऱ्यांत बसून खेळटां. हांव गेल्यार मम्माक वाज येतलो.'' ताणें म्हणचें.

मम्मी अजाप जाली. पप्पा अजाप जालो. आरेच्या! मिनू मात्तूय मस्ती करिना?

तांकां खंय खबर, मिनू मुदलांत शाणेंच आशिल्लें, गुणीच आशिल्लें

म्हणून! ताची मस्ती, हट्टीपणां सगलें सगलें अडेचें आशिल्लें. ताका मम्मीक आपले फाटल्यान नाचोवंक मऽज्जा येताली. पप्पा घरा येतकच ताणें आपल्याक वेंगांत घेवन समजावचें म्हणून तें फुगार जावन बसतालें. आज्जेन आपल्याक फुसलावन फुसलावन पाव खावोवचो म्हणून तें हांगा-थंय लिपतालें. पूण आतां मम्मीच न्हिदून आसा म्हळ्यार...

ताणें आपली अडेची मस्ती सोडून दिल्ली.

शेजारच्यो बायलो, सोयरीं सगलीं मम्मीचे खबरेक येवचीं. मिनू आपले मम्मीक कशें सांबाळटा तें तांणी पळोवचें. घरा वचून तांणी आपल्या भुरग्यांक सांगचें, ''आगो, तें मिनू ना, तें कितलें शाणें म्हणून सांगचें तुमकां! तुमीय ताचेभाशेन शाणीं जायात आं!''

* * *

## श्री हरि प्रकाशनान उजवाडायिल्लें साहित्य

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | **उमजणी** | कथा | दीपा मुरकुंडे |
| २. | **जिवीत एक तियात्र** | नाटकुलीं | शॅरोन माझारेलो |
| ३. | **चौफूल** | नाटकुलीं | माया खरंगटे |
| ४. | **पिटकुलीं नाटकुलीं**<br>(पयली उजवाडावणी : ऑगस्ट १९९८)<br>(दुसरी उजवाडावणी : डिसेंबर १९९९) | नाटकुलीं | दीपा मुरकुंडे |
| ५. | **भौरंगी जीण** | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| ६. | **मोराची करामत** | नाटकुलीं | रजनी भेंब्रे |
| ७. | **आंकवार काजारी** | नाटक | रवींद्र नमशीकार |
| ८. | **नुपी** | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| ९. | **रानांतल्यो काणयो** | काणयो | नयना आडारकार |
| १०. | **घोंटेर** | कथा | माया खरंगटे |
| ११. | **दुरीग** | तियात्र | विल्मिक्स विल्सन माझारेलो |
| १२. | **चिमी** | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| १३. | **हिरन आनी वांस्वेल** | काणयो | नयना आडारकार |
| १४. | **डॅडी** | नाटक | दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार |
| १५. | **पिटकुल्यो काणयो** | काणयो | नयना आडारकार |
| १६. | **शिंव आनी कासव** | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १७. | **पडबिंब** | निबंध | दीपा मुरकुंडे |